# हांसयाळीं संकलन

बरोवपीः

**दिनकर रा. मुरकुंडे**

श्री हरि प्रकाशन

Hasyali : Hasyali Sankalan

हांसयाळीं : हांसयाळीं संकलन

बरोवपी : दिनकर रा. मुरकुंडे

प्रकाशन क्र. २८





पयली उजवाडावणी : जानेवारी २००८

उजवाडावपी :
दीपा दिनकर मुरकुंडे
श्री हरि प्रकाशन, [illegible] अ, शांतिनगर,
आकें - बायश, नावेलीं, गोंय - ४०३ ७०७

अक्षर जुळणी :
स्पीडेक इन्फोर्मेटिक्स
२०४, कॉमर्स हाऊस,
मडगांव गोवा. फोन : २७३[illegible]

छापणावळ :
लईराई प्रिंटर्स
मडगांव फोन २७०४२१३, ९८२२१०२०४०

मोल : २० रुपया

मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां : वासू



१) व्याकरणाच्या तासाक शिक्षकान विचारलें
'ताणें चोरी केली' हाचो भविश्यकाळ सांगात
विद्यार्थी - 'तो बंदखणीत वतलो'

२) घरकार - पात्रावान म्हजे विशीं आयज जीं उतरां काडल्यात ताचो विचार केल्यार म्हाका कंपनीची नोकरी सोडची पडटली.
घरकान्न - अशें कितें म्हळें पात्रावान ?
घरकार - आयजच्यान तुका कामावेल्यान काडला.

३) अेक घटमूट मनीस अेका हाडकुळयाक म्हणटा.

तूं अेक नंबरचो फट्‌किरो !

हाडकुळो - परतून म्हळयार तुजे दांतूच उडयता.

घटमूट - म्हळें अशें समज.

हाडकुळो - दांत उडयले अशें समज.

४) शिक्षणाधिकारी शाळेची तपासणी करतालो. ताणे अेका हुशार भुरग्याक विचारलें

अधिकारी - सांग रे. सोळाव्या शतकात हांगा राज्य करप्याविशीं तुका कितें खबर आसा ?

विद्यार्थी - तांच्यातलो कोणूच आज जितो ना.

५) अेका लॉजिंगात दोन प्रवासी भितर सरले आनी रावपाक अेक कूड मागली. मालकान तांका अेक कूड दाखयली.

पयलो प्रवासी - ही कितें रावपाची कूड ? हो

गोठो मरे !

दूसरो प्रवासी - आसूं रे अेकूच रात सारपाची न्ही. पात्रांव ह्या गोठ्याचे भाडें कितलें ?

मालक - अेका बैलाक अेका रातीक वीस रुपया.

६) अेका ऑफिसांत वरिश्ठाच्या टेबला वयलो फोन वाजलो

आवाज - दामु कुंकळकार आसा ?

ऑफिसर - तुमी कोण उलयतात ?

आवाज - हांव ताची मावळण, ताका मात्सो फोन दियात.

ऑफिसर - हांव ताचो वरिश्ठ. दामु तुमच्या मरणाक हजर रावंक ऑफिसातल्यान बेगीन गेला.

७) घरमालक - आरे, तुजें खूप म्हयन्यांचे भाडे उरलां. भाड्याची पुराय रकम जाय.

भाडेकरु - पात्रांव आयज म्हजेकडे कांयूच ना. आनी फक्त चार दिसानी तुमकां पयशे दिता.

चार दिसा उपरांत घरमालक परतो भाडें मागूंक येता.

घरमालक - आज म्हाका भाड्याचे पुराय पयशे दी.

भाडेकरु - हे घेयात पन्नास रुपया.

घरमालक - चारशें रुपया भाडें उरलां आनी तूं म्हाका पन्नास रुपया दिता ?

भाडेकरु - पात्रांव ह्या जागेचे फाटलें दार विकून इतलेच पयशे मेळळे.

८) एका गांवांत कवी संमेलनाक खूप गर्दी जाल्ली पळोवन एका कवीन आयोजकांक म्हळें, "व्वा ! ..... तुमच्या गांवांत कवितेचेर मोग करपी बरेच रसिक श्रोते दिसतात." "ते श्रोते न्हय" आयोजकान जाप दिली. ते सगळे कवि. माचयेर बसूंक जागो ना देखून सगळे सकला बसल्यात."

९) रेल्वे फलाटाचेर अेक मनीस उबो आशिल्लो. ताच्या म्हन्यांत दुसरो अेक मनीस आयलो आनी विचारलें

‘ट् ट् ट टायम क् क् कितलो ज् जालो ?’

पयल्यान् हात फुडे काडून घड्याळ दाखयली.

तो मनीस गेलो. तिसऱ्या मनशान पयल्याक विचारलें. ‘तुवें घड्याळ कित्याक दाखयली ? वरां कित्याक सांगली ना ?’

पयलो - झ् झ् झगड्यार प् प् पडटलें आ आसलें.

१०) अेक इंजिनिअर आनी अेक राजकारणी उलयताले.

इंजिनिअर - ह्या धर्तरेर सगळ्यांत पयलीं आमचो वेवसाय सुरू जालो.

राजकारणी - कशें ते सांग.

इंजिनिअर - सगळया बोवाळ आनी गोंधळातल्यान स दिसां भितर ब्रह्मदेवान पृथ्वी निर्माण केली.

राजकारणी - मिशयेर पीळ दीत - पूण आदी बोवाळ आनी गोंधळ कोणे निर्माण केलो?

११) फौजेत भरती करूंक उमेदवारांची परिक्षा घेताले. अधिकारी - तूं जंगलातल्यान एकटोच वतना तुजे सामकार वाग आयल्यार तूं कितें करतलो?

उमेदवार - तुबकान वागाचेर फार मारतलों ।

अधिकारी - आनी तुजेलागी तुबक नासल्यार?

उमेदवार - लागींच्या रूखार चडटलों ?

अधिकारी - आनी लागीं रूख नासल्यार ?

उमेदवार - अशे परिस्थितींत म्हाका कांयूच करचे पडचेना. जे कितें करपाचे तें वाग करतलो.

१२) अेका व्हडल्या इमारतीच्या पन्नासाव्या माळयेच्या जनेलांतल्यान तोल वचून अेक मनीस सकयल पडूंक लागलो. पंचविसाव्या माळयेर जनेलांत उबो आशिल्ल्या वळखिच्या मनशान ताका पळोवन विचारलें

"आरे कसो आसा?"

जाप मेळ्ळी - "अजून मेरेन बरो आसा !"

१३) इतिहासाच्या शिक्षकान जॉनाक विचारलें

"अलेक्झांडर कोण आशिल्लो ?"

जॉन - म्हजो बापोल्यो, हाल्लींच मेलो !

शिक्षक - अलेक्झांडर द ग्रेट तुजो बापोल्यो ?

जॉन - सर तुवें फक्त अलेक्झांडर म्हणिल्लें.

१४) भूगोलाचो शिक्षक - भुरग्यांनो सांगात गंगा खंयच्यान येता आनी खंय वता ?

अेक विद्यार्थी - सर, ती मालभाटांतल्यान येता. पयलीं आमगेर येता, मागीर कामतीगेर वता आनी थंयच्यान काम जातकच बाजारांत वचून मागीर मालभाटांत घरा वता.

१५) बोट बुडटा तेन्ना बोटिचो कप्तान तिच्या वांगडा कित्याक बुडटा ?
जितो उरल्यार बोटिचें मोल फारीक करूंक जावचें ना म्हणून.

१६) दोन इश्ट अर्दवट आशिल्ले. अेकल्यान टॉर्च घेवन काळखांत मळबाकडे तिचे तोंड करून पेटयली, आनी इश्टाक म्हळें - प्रकाशाच्या झोतार चडून दाखय, शंबर रुपया दितां.
दुसरो - हांव कितें अर्दवट आसा ? हांव वयर चडटकर तूं टॉर्च पालयतलो म्हूण हांव जाणा.

१७) शिक्षकान सत्कृत्य म्हळ्यार कितें ही म्हायती वर्गांत विद्यार्थ्यांक दिली, आनी म्हळें. अेक मनीस बडी घेवन अेका गाढवाक मारतालो. हावें त्या मनश्याक गाढवाक मारपाचो आडायलो, तर म्हज्या कर्तुपाक कितें म्हणप.

विद्यार्थी - भावंड मोग.

१८) शाणू - बाबी जाप दी.

लारांजा साठ रुपयाक धा, चिकु वीस रुपयाक आठ, आनी काळींग धा रुपयाक अेक, तर म्हजी पिराय कितली ?

बाबी - अठ्ठेचाळीस वर्सां

शाणू - आ ऽ ऽ ब्बा ऽऽ. सारके सांगले मरे. कशें कोंत केले तुंवे ?

बाबी - म्हजे वळखिचो अेक हाफ्-मॅड आसा. ताची पिराय आसा चोवीस वर्सां म्हणटकर तुजी अठ्ठेचाळीस आसचीच पडली.

१९) अेक बाताराम - म्हजो बापूय व्हडलो शिकारी. अेक दीस रानांत ताका खावंक ताच्या मुखार अेक शींव उबो रावलो. शिंवान आ ऽऽ वासलो, म्हज्या बापायन खिणांत ताच्या तोंडातल्यान भी ऽऽऽतर हात घालून ताका भितरलो भायर उरफाटो करून थंयच उडोवन आयलो.

दुसरो बाताराम - हांव जाणा ती गजाल. म्हजो बापूय जनावरांचो दोतोर. म्हज्या बापायक तो शींव पडिल्लो मेळ्ळो. ताणे ताका आशिल्लो तसो सुरफाटो करून गळ्यांत पटो बांदून अेका सर्कस मालकाक दिलो.

२०) अेक अमेरिकन, अेक रशियन, आनी अेक भारतीय मनीस मेळून फटास्क्यो मारताले.

अमेरिकन - आमच्या देशात अेका मनशान डायविंगसुटा शिवाय उदका पोंदा

रावपाचो पांच मिनीटांचो विक्रम केला.

रशियन - आमच्या देशांत एका मनशान असलो धा मिनिटांचो विक्रम केला.

भारतीय - इतले प्रगत देश आसून पांच आनी धा मिनिटांचो विक्रम? हें कायूंच न्ही कालच आमच्या वाड्यार एकल्यान उदका पोंदा बुडून रावपाचो आठ तासांचो विक्रम केला.

अमेरिकन - रशियन - आठ तास ? शक्यच ना!

भारतीय - त्या घरालागीं मनशांची गर्दी दिसता? थंय वचून पळोवन खात्री करात. ताचे उदकांतल्यान काडिल्लें मडें अजून थंयच आसा.

२१) शापोतेर - हांव रावता ते शार देशांतले एक नंबरचे शार. आमच्या शारांत कांयूच उणे ना. सगळे भरपूर आसा. बुदवंत, विचारवंत, कलाकार......

आयकुपी - म्हळ्यार तुमचेकडे सगळे तरेचे लोक आसात.

शापोतेर - हय तर.

आयकुपी - आमच्या शारांत सगळे तरेचे लोक नात.

शापोतेर - कसले तरेचे लोक ना ?

आयकुपी - शापोतेर, अर्दवट, मुर्ख, पिशे, बुरशे.....

२२) अेका चामट्याक बरी व्हडली लॉटरी लागली. ताणे अेक मोटार विकती घेतली. अेका ड्रायव्हराक नोकरेक दवरलो, आनी ताका सांगलें. "तुवें अेकट्यान मोटारीची जतनाय घेवप आनी चलोवप. दुसरो मनीस मजतीक मेळचोना." ड्रायव्हरान आं म्हळे. दोन दीस जातकच ड्रायव्हरान मालकाक सांगले. "सायब म्हाका अेक स्क्रु ड्रायव्हर जाय." मालक तापलो. "हांवे तुका पयलींच सांगला तुंवे अेकट्यानूच सगळे

करपाचे म्हूण म्हाका दोन ड्रायव्हर परवडनात."

२३) शिक्षक - हिंदी म्हासागराच्या पेलेवटेन - खंयचे देश आसात ?
विद्यार्थी - हिंदी म्हासागराच्या खंयचे वटेन आमी उबे आसात ताचेर तें निंबून आसा.

२४) राजेश - बाबू, ही व्हडली कवटी आसा ती शास्त्रज्ञ आयसक न्युटनाची !
बाबू - आनी ही धाकटी कवटी कोणाची ?
राजेश - तिवूय आयसॅक न्युटनाचीच. तो ल्हान आशिल्लो तेन्नाची.



२५) बापूय - शाणु माजराची शेपडी ओडू नाका म्हूण तुका कितले फावट सांगले ? आता आयकलेंना जाल्यार पेट पडटलो.

शाणु - पूण बाबा हांव माजराची शेपडी ओडच ना. हांवे ती फकत घट धरुन दवरल्या. तेंच आपली शेपडी सारकी ओडटा.

२६) विजेचो लायनमन - हे त्या सरयेक हात लाय रे.

मजतनीस - लायलो.

लायनमन - कितें जाणवले ?

मजतनीस - काय ना.

लायनमन - त्या दुसऱ्या सरयेक हात लाव नाका. ते सरयेन हजार वोल्टाची वीज आसा.

२७) अेक भेड्डो दुसऱ्या भेड्याक विचारता.
पयलो - आरे काल खंय? तूं दिसलो ना. इफ्फिक गेल्लो ?
दूसरो - ना ना इफ्फिक गेल्लों ।
पयलो - अशें ऽऽ. म्हाका दिसलें इफ्फिक गेल्लो.

२८) खांद्यार तुबकां घेवन दोन पुलीस मार्गावयल्यान चलताले. तांच्या तुबकांच्यो नाळी फाटल्या दिकेन आशिल्ल्यो. तांच्या फाटल्यान दोन तरणाटे चलताले. तातूंतल्या अेकल्यान दुसऱ्याक म्हळें. "सांबाळ रे ! मुखार पुलीस चलतात तांच्या तुबकांच्यो नाळी आमचे वटेन आसात." तें आयकून अेक पुलीस तापलो, आनी

विचारूंक लागलो "आमी कितें तुबकांच्यो नाळी तुमचेर जोखल्यात ? सांबाळ, सांबाळ म्हण्टा तो."

तरणाट्यान सांगले. "तुमी नाळी आमचेर जोखूंक नात म्हणून सांबाळ म्हळें. जोखल्यार भिरांतूच नाशिल्ली."

२९) शेंवत्याल्या घोवाक मोनजातीचो खूप मोग. एक दीस तो एक घोडो घेवन घरा आयलो.

शेवतें - ह्या गाढवाक कित्याक घेवन आयलो ?

घोव - आगो तो गाढव न्ही. तो घोडो आसा.

शेवतें - हांव तुजेकडे न्ही, त्या घोड्याकडेन उलयतालें.



३०) रात जाल्ली. स्मशाना कुशीतल्या मार्गावयल्यान अेक मनीस वतालो. स्मशानांत खूप थडगीं आशिल्लीं. किण्ण शांतता. मनशाच्या मनांत इल्ली धाक धूक. इतल्यांत स्मशानाच्या दुरिगाचेर बरे ऽऽ कपडे घालून बशिल्लो अेक मनीस ताका दिसलो. हाका सू ऽऽ जालें. कोणूय तरी सांगाताक मेळ्ळो. हाणे ताका म्हळें. "आरे हांगा अेकलोच सो बसला. म्हजे वांगडा यो. सांगातान वचुंया." ताणे सांगलें "थंय भितर सकयल कालोर जातालो म्हूण वयर येवन वाऱ्याक बसलां."

३१) अेक प्रवासी रेल्वेच्या स्लिपर डब्यांतल्यान प्रवास करतालो. ताणे डब्याच्या रेल्वे कर्मचाऱ्याक सांगले. "म्हजे दैंवपाचे स्टेशन रातचे तीन वरांचेर येतलें. हांव न्हिदिल्लो आसल्यार म्हाका जागो कर. जागो जालोना जाल्यार कुलच्यांवा सयत उबारुन फलाटाचेर दवर." तो वचून न्हिदलो. दुसऱ्या दिसा सकाळीं जागो जाल्यार तो रेल्वेतूंच आसा. तिडकीन तो डब्याच्या कर्मचाऱ्याकडे गेलो आनी विचारलें. "तुवें म्हाका रेल्वे फलाटाचेर कित्याक काडून दवरलो ना ?"

कर्मचाऱ्यान म्हळें - "तूं हांगाच उरलो ? मागीर रातीं तीन वरांचेर रेल्वे फलाटार हावें कोणांक दवरलो तर ?"

३२) खरेदी आनी विकप हो विशय शिक्षकान भुरग्यांक शिकयलो. मागीर एेका भुरग्याक प्रश्न विचारलो.

शिक्षक : हांवे तुका दोनशें रुपया दिवन तुजेकडल्यान पांच आंबे घेतले, तर हावें कितें केलें आनी तुंवे कितें केले ?

विद्यार्थी - सर हावें शाणपण केलें आनी तुमी पिशेपणां.

शिक्षक - कितें ऽऽ ?

विद्यार्थी - सर बाजारांत आंबे दोनशे रुपया डझन आसात.

३३) काकी - (थोट्याक) हो घे तुका एक रुपया. तूं थोटो म्हूण दुख्ख करुन घेनाका. कुड्डो आसचे परस थोटो आशिल्लो बरो म्हूण समज.

थोटो - हें मात खरें. पयलीं जेन्ना हांच 'कुड्डो' म्हूण भीक मागतालो तेन्ना लोक चलना तसलीं नाणीं हातार उडयताले. आता निदान तशें तरी जायना.

३४) शिक्षक - बाळू, च्या कितलो लाभदायक आनी कितलो नुकसानकारक ते सांग.

बाळू - कोणेंय च्या पियवंक दिलो जाल्यार तो लाभदायक आनी कोणाकय च्या दिवचो पडलो जाल्यार तो नुकसानकारक.

३५) एक आंगान मोठो आनी खूप शिकिल्लो मनीस मार्गावयल्यान चलतालो. ताच्या मुखारसून गणभेस घाल्ले तीन तारवटी येताले. ताणी घाल्ल्या तोपयांचेर तांच्या बोटीचें नांव बरयल्लें. ह्या मनशान तें नांव बारिकसाणेन वाचलें. ताका पळोवन एका तारवट्यान वांगड्याक म्हळें "हो रेडो कितें वाचता.?" मोठेल्याक आपल्याक रेडो म्हणिल्ल्याचो राग आयलो. तांका विचारपा परस तांच्या बोटीच्या कप्तानाकडे तक्रार केल्यार बरें अशें थारावन तो बोटीचेर गेलो आनी कप्तानालागीं तक्रार नोंदयली.

कप्तानान बोटी वयल्या सगळ्या तारवट्यांक बोटीच्या डॅकार उबे केले आनी आपल्या दुय्यम अधिकाऱ्याक सांगले. हांच्यातल्या खंयच्या रेड्यान ह्या रेड्याक रेडो म्हळ्ळो ताका सोदून काड आनी त्या रेड्याक आनी ह्या रेड्याक म्हजे सरी घेवन यो.



३६) तीन बाताराम फटासक्यो मारताले पयलो - आमच्या गांवांत रेल्वेचें खूप वांकडे मोडण आसा. त्या मोडणार गाडयेचे इंजिन

सावन गार्डा डब्यामेरेन सगळे डबे गाडयेत बशिल्लेकडेन दिसतात.

दुसरो - हें कांय न्ही. आमच्या गांवांतले मोडणाचेर रेल्वे पावतकच, रेल्वेचे इंजिन अेके दिकेन जाल्यार गार्डा डबो दुसऱ्या दिकेन वता अशें दिसता.

तिसरो - आमच्या गांवातल्या मोडणाचे तुमकां कितें सांगू ?

त्या मोडणार रेल्वे पावतकच अेका । शीश्ट खिणाक इंजिन ड्रायव्हर आन गार्ड अेकमकांक शेक हॅन्ड दितात.

# श्री हरि प्रकाशनान उजवाडायिल्लें साहित्य

| | | | |
|---|---|---|---|
| १. | उमजणी | कथा | दीपा मुरकुंडे |
| २. | जिवीत एक तियात्र | नाटकुलीं | शॅरान माझारेलो |
| ३. | चौफूल | नाटकुलीं | माया खरंगटे |
| ४. | पिटकुलीं नाटकुलीं<br>(पयली उजवाडावणी : ऑगस्ट १९९८)<br>(दुसरी उजवाडावणी : डिसेंबर १९९९) | नाटकुलीं | दीपा मुरकुंडे |
| ५. | भौरंगी जीण | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| ६. | मोराची करामत | नाटकुलीं | रजनी भेंब्रे |
| ७. | आंकवार काजारी | नाटक | रवींद्र नमशीकर |
| ८. | नुपी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| ९. | रानांतल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १०. | घोंटेर | कथा | माया खरंगटे |
| ११. | दुरीग | तियात्र | विल्मिक्स विल्सन माझारेलो |
| १२. | चिमी | काणयो | दीपा मुरकुंडे |
| १३. | हिरन आनी वांस्वेल | काणयो | नयना आडारकार |
| १४. | डॅडी | नाटक | दत्ताराम दा. कामत बांबोळकार |
| १५. | पिटकुल्यो काणयो | काणयो | नयना आडारकार |
| १६. | शिंव आनी कांसव | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १७. | पडबिंब | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| १८. | काणयो सैमाच्यो आनी मनश्यांच्यो | काणयो | सुधा खरंगटे |
| १९. | कांसवाचें घर | काणयो | नयना आडारकार |
| २०. | काणयांचें पेटूल | काणयो | सरस्वती दामोदर नायक |
| २१. | मस्तूल | काणयो | नयना आडारकार |
| २२. | कुटुन्यो | काणयो | नयना आडारकार |
| २३. | काणयांची गांथन | काणयो | रमा मुरकुंडे |
| २४. | चिटूर-पिटूर काणयो कुटूर | काणयो | नयना आडारकार |
| २५. | टूटू, मिटू, पिटू | काणयो | नयना आडारकार |
| २६. | गितां भुरग्यांचीं - १ | कविता | दिनकर रा. मुरकुंडे |
| २७. | भौरंगी जीण - २ | निबंध | दीपा मुरकुंडे |
| २८ | हांसयाळीं संकलन | हांसयाळीं | दिनकर रा. मुरकुंडे |